# वावझड

(कवितां झेलो)

प्रा. भालचंद्र गांवकार

मित्र प्रकाशन
2018



| | |
|---|---|
| **वावझड** | **Vavzad** |
| (कविता झेलो) | (Collection of Poetry) |
| **भालचंद्र गांवकार** | **Bhalchandra Gaonkar** |
| **प्रकाशन क्र. २४** | **Publication no.: 24** |
| © सौ. मनुजा भा. गांवकार | © Mrs. Manuja B. Gaonkar |
| पयली आवृत्ती - २०१८ | First Edition: 2018 |
| **छापणावळ:** | **Printer:** |
| कस्तुरी ग्राफिक्स | Kasturi Graphics |
| ढवळी, फोंडे, गोंय | Dhavali, Ponda, Goa |
| **अक्षर जुळोवणी:** | **Type Setting:** |
| डॅनीस वाज | Denis Vaz |
| कुडतरी - गोंय. | Curtorim - Goa |
| **मुखपृश्ट:** | **Cover Design:** |
| श्रीधर कामत बांबोळकार | Sridhar Kamat Bambolkar |
| **प्रकाशक:** | **Publisher:** |
| सौ. मनुजा भा. गांवकार | Mrs. Manuja B. Gaonkar |
| **मित्र प्रकाशन** | **Mitra Prakashan** |
| किटोलें, बेतोडें, फोंडे - गोंय. | Kitolem, Betora,Ponda - Goa |
| फोन २३३०३८५ | Contact no. 2330385 |
| **मोल: रु.१२०/-** | **Price: Rs. 120/-** |

दर्या भेटेक गेल्ले मीठा कणयेक,
डॉ. माधवी सरदेसाय
हिच्या पवित्र उगडासाक
अर्पण.....

# दोन उतरां

‘वावझड’ हो म्हजो चवथो कवितां झेलो. हाचे पयलीं म्हजे तीन कवितां झेले उजवाडाक आयल्यात. ‘आडवणांतले उले’ हो पयलो कवितां झेलो १९९१ वर्सा उजवाडाक आयिल्लो. त्या उपरांत ‘थाव’ आनी ‘यादीचे देगेर’ हीं पुस्तकां उजवाडाक आयलीं. कविता हो म्हजो सगळ्यांत आवडटो साहित्य प्रकार. कविता हांव केन्ना बरोवपाक लागलो ताची सारकी याद जायना. पूण शाळेंत शिकता आसताना हांव कविता बरयतालों आनी वांगडच्या भुरग्यांक वाचून दाखयतालों. हांव जेन्ना कविता वाचतालो तेन्ना सगळे जाण ती बरे तरेन आयकताले आनी वाचून सोंपली म्हणटकीच व्हडा व्हडान हांसताले. अशें जायतो तेंप घडलें. कविते विशी म्हाका बरें मार्गदर्शन मेळ्ळें ना. ते खातीर बरयल्ली कविता सांबाळून दवरपाक जाय हे कोणेच म्हाका सांगलें ना. ते खातीर म्हाका कविता कित्याक बरोवपाक जाय ही गजाल कळ्ळीच ना.

हांव जेन्ना णववेक पावलों तेन्ना शिरदोना हांगा एक कवितेची सर्त दवरिल्ली. ते सर्ती खातीर हांवेंन म्हजी कविता धाडून दिली. कांय दिसांनीं थंयचे संस्थेचें म्हाकां पत्र आयलें. ते सर्तींत म्हाका कविते खातीर दुसरे इनाम फावो जाल्लें. शिरदोना हो गांव खंय पडटा तें म्हाकां खबर नाशिल्लें. इनाम तर हाडपाक जाय आशिल्लें. ते खातीर जायती वासपूस करून हांवेंन तो गांव सोदून काडलो. शिरदोनां वचून हांवेंन म्हजे पयलें इनाम घेतलें. त्या उपरांत हांवेंन जायते सर्तींनीं वांटो घेतलो

आनी म्हाका इनामां मेळत रावलीं. हांव जसो व्हड जालो तशें म्हाका म्हजे पुस्तक येवपाक जाय अशें दिसलें देखून पुस्तक काडपा खातीर हांवे जायती खटपट केली. पूण म्हाका कोणाकडल्यानूच प्रोत्साहन मेळ्ळे ना. पूण उपरांत जायते कश्टानी म्हजें पुस्तक उजवाडाक आयलें.

हांव शिकता आसतना म्हाका पयशांची गरज पडटाली. तेन्ना कवितेन म्हाका खूब आदार दिलो. पयशां खातीर हांव रेडियोचेर कविता धाडटालों. थंय युववाणी खातीर पांच कविता धाडल्यो म्हणटकीर हजार भर रूपया मेळटाले. पूण सगळ्यांत व्हड म्हाका फायदो जालो तो कांय कविंची वळख जाली. तांचे मदीं कवी नागेश करमली आनी कवी माधव बोरकार हे दोगूय जाण आकाशवाणीचेर कामाक आसताले. ताणी म्हज्यो कविता वाचून म्हाका जायतो धीर दिलो. अशोच कविता बरयत राव अशें ताणीं म्हाका सांगलें देखुनूच म्हाका मुखार बरोवपाक स्फुर्त आयली आनी हांव बरयत रावलों. म्हजो पयलो कविता संग्रह उजवाडाक येतकीच म्हाका लोक कवी म्हण वळखुपाक लागले.

मडगांवच्या चौगुले कॉलीजींत शिकयता आसतना प्राचार्य शिरगुरकार म्हाका 'पोयेट' म्हण उलो मारतालो. तेन्ना सगळे भुरगे दोळे वरशें करून म्हजे वसल्यान पळयताले. तेन्ना गर्वान म्हजें हडुं फुलून येतालें. मनीस कसो मुखार पावता तें सांगपाक जायना. पूण प्राचार्य शिरगुरकार हाणे म्हाका प्रोत्साहन दिवन म्हजेर व्हड उपकार केल्ले अशें हांव मानतां.

कॉलेजीत शिकता आसतनाच डॉ. मनोहरराय सरदेसाय हाची वळख जाली. तो गोंय विद्यापीठाच्या फ्रेंच विभागांत मुखेली आशिल्लो. तेन्ना डॉ. सरदेसाय हाची पुराय वळख म्हजेकडेन नाशिल्ली पूण मनीस येदो व्हड जावन इतल्या सादेपणान वागपी आनी सादेपणान उलोवपी हांवेंन दुसरो मनीस आजून  लेगीत पळोवक ना. ताच्या वागपाचो

म्हजेर खूब प्रभाव पडलो. म्हज्या घडपांत ताचो व्हड वांटो आसा अशें हांव मानतां.

कविता कशी येता तें सांगपाक जावचें ना. एक एक कविता दोन वळी मदीं सोपता जाल्यार एक एक कविता मातशी व्हडूय जाता. कवितेंत जो अणभव येता तो अणभव एकूच आसता. म्हाका एक फावट कविता सुचली म्हण्टकीच म्हाका तातुंतले एक अक्षर बदलपाक जायना, कित्याक तर ती येता. कवी ती रचिना. देखीक -

आंकवार कळयांच्या
भाव मोन्या काळजांतल्यांन
पाझरलेल्यो
भाव मोन्यो वळी
सांगपाक सोदतात
अनवळखी कळी
पूण त्यो भावमोन्यो वळी
तांची भासूच जगावेगळी
तोंडार हाशें
आनी दोळ्यांत नदर मुदयाळी.

ही कविता खूब लोकांक आवडली. हांव चौगुले महाविद्यालयांत शिकयतालों तेन्ना प्राध्यापक शाम वेरेंकार म्हाका थंय सदांच मेळटालो. एक दीस तो म्हजी कविता घेवन म्हजेकडेन आयलो आनी आपणाक तिचो अर्थ सांग अशें म्हजेकडेन मागपाक लागलो. तेन्ना हांवेंन ताका नमस्कार केलो आनी सांगलें कविता बरोवप इतलेंच म्हजें काम, तुमी तिचो अर्थ तुमकां समजता तसो लायात. म्हजेकडेन हे कवितेचो अर्थ तुमका सांगपाक जावपाचो ना. तेन्ना ताचे दोळ्यांतले भाव हांवे पळयल्यात. घडये ताका तें खरें दिसले आसूं येत पूण म्हजें काम इतल्यांत सोपलें.

हांवेंन कवितेवांगडाच कथा, समिक्षा, भासविज्ञान, निबंध ह्या

विशयांचेर जायतें बरयलां पूण म्हजी दखल वाचप्यांनीं आनी समिक्षकांनीं कवी म्हणूनच चड घेतल्या. म्हाका कोंकणी भाशा मंडळाचो पयलो पुरस्कार १९९१ वर्सा म्हज्या 'आडवणातले उले' ह्या कविता झेल्या खातीर फावो जालो. कवितेंन म्हाका बरोवपी म्हूण चड मान्यताय दिली.

म्हजी कविता तशी परिपूर्ण जाल्या अशें हांव अजून मानिना. तरी नवी कविता येता तेन्ना ती बऱ्यांतली बरी जातली असो म्हजो यत्न आसता. मात एकाद्री कविता येता तेन्ना जी खुशालकाय मेळटा ती सामकी अवर्णनीय आसता.

हें पुस्तक उजवाडाक येवपाक खूब जाणांचो हातबार लागलो देखून तांचे सगल्यांचे हांव मनांतल्यान उपकार मानतां. डॉ. भूषण भावे हाणें ह्या पुस्तकाक प्रस्तावना बरोवन वाचकांक ताची वळख करून दिली देखून तांचो हांव जायतो उपकारी आसा. ह्या पुस्तकाक सोबीत बरें चित्र काडून ताची सोबितकाय वाडयली देखून चित्रकार श्री. श्रीधर कामत बांबोळकार हांचोय हांव उपकारी आसा. ह्या पुस्तकांचें पुराय टायप सेटींग करून म्हाका आदार दिल्ल्याखातीर प्रा. डॅनीस वाज हांचोय हांव काळजांतल्यान उपकारी आसा. हें पुस्तक बरेबशेन छापून दिलें देखून कस्तुरी प्रिन्टर्साचे धनी श्री. मंगेश ढवळीकार हांचोय हांव उपकारी. सगळ्यांत व्हड उपकार मानपाक जाय ते सगळ्या वाचकांचें आनी समिक्षकांचे. म्हजो हो ल्हानसो यत्न तुमकां सगळ्यांक आवडटलो अशीं हांव आस बाळगितां.

**प्रा. भालचंद्र गांवकार**

# उत्कट संवेदनेची पन्नाशी...

भालचंद्र गांवकार म्हणल्यार कोंकणी साहित्य विश्वांतलें एक ठळक पूण प्रसिद्धीपराङ्मुख व्यक्तिमत्व. भालचंद्र सातत्यान फाटलीं 35 वर्सां बरयता. कविता हो ताचो साहित्यीक पिंड आसलो तरी कांय वेधक आनी लक्षवेधी कथा लेगीत ताणें बरयल्यात. भासशास्त्र आनी व्याकरणाच्या मळार लेगीत ताणें कोंकणींतली त्या काळाची गरज वळखून बुन्यादी वावर केला. कोंकणींत दर्जेदार समिक्षा साहित्य आनी सिद्धांतीक साहित्य ना तें मतींत घेवन कांय वर्सां आदीं भालचंद्रान फकत समिक्षा आनी सिद्धांत हांकां ओंपिल्लें नियतकालीक सुरू केल्लें.

भालचंद्राचो सबाव वयर म्हणिल्ले प्रमाण प्रसिद्धी पसून पयस रावपाचो आशिल्ल्यान, संमेलनां, परिसंवाद, कार्यावळींनी भालचंद्र आसल्यार लेगीत ताचें अस्तित्व भायल्यान लक्षांत येवचेंना. तसो तो भिडस्त, पूण जे लोक भालचंद्राक वळखतात, तांकां मात ताची बेसबरी वळख आसा. भालचंद्रा कडेन एक सुक्षीम नदर आसा. एक खेळकर पूण उपहासात्मक (sarcastic) नदर आसा. खंयचेच घडणुकेचें विनोदी पूण वस्तुनिश्ट विश्लेशण भालचंद्रानच करचें. ताचो हो गूण चड करून ताचे कवितेंत दिश्टी पडटा. कोंकणींत 'बोरकारी'क जशी एक परंपरा आसा तशी भालचंद्राचे 'गांवकारी'ची लेगीत (ती उजवाडायल्ली जाल्यार) जांव येताली. मार्मीक, उपरोधाची धार आशिल्लो पूण ल्हवपीक, व्देसाची न्हय तर निखळ विनोदाची देग

आशिल्लो नर्म-विनोद भालचंद्र केळयता. उत्कट संवेदनशील मनीसच असो मेकळो आनी निरागस विनोद करूंक शकता.

भालचंद्राच्यो कविता संवसाराचे सगळे धकेचपाटे, अन्याय, भेदाभेद, उच्चनीचतायेच्यो दागण्यो सोंसून घडिल्ल्या मनाचे उमाळे आसात. पूण ताचे कवितेंतल्यान खंयच व्देस, मत्सर, घृणा, राग किंवाटो व्यक्त जावंक ना. कवीच्या मनांत बदल्याची भावना ना. जें जालें तें जालें, जावन गेल्ल्याचें दूख ना, कोणाचेर राग ना आनी शिणय ना. आपल्या वांट्याक जें आयलां ते मोन्यांनी पूण पिरंगत पिरंगत जिये नासतना जिणेचो पुराय आस्वाद घेत जगचें, ही वृत्ती ताच्या कवितांतल्यान दिश्टी पडटा.

दरेकलो कवी काव्य, आपली कविता, काव्य-निर्मणेची प्रक्रिया, उतरांचें धन हांचेर आदारिल्ल्यो कविता रचताच. कविता निर्मणेचे प्रक्रियेंत ताचे कडल्यान हें काव्य रसायन तयार जाता. भालचंद्रान म्हणलां ते प्रमाण कविता दुख्खांतल्यान, कश्टांतल्यान जल्मता. कश्टकरी, घाम गाळपी लोकांच्या दोळ्यांतली दुकां म्हणल्यार कविता अशी उत्तुंग कल्पना कवी करता (कवितेचो मळो). तोच अणभव दुसरे कडेन आंतरीक वेदनांनी काव्याचो जल्म जाता, असो ताणें मांडलां (आंतरीक वेदना). कवितेचो जल्म आत्म्याच्या पोरसांत जाता, तोय बी एका विशिश्ट रुतूंत. अशा रुजवण-रुतूक कवी म्हारुतू म्हणटा (आत्म्याचें पोरसूं). कवीचे सुखेचे जिणेंत कविता चिंतनांत लेगीत नासतालीं, पूण आतां मात आपली चिंतनांच काव्यमय जाल्ल्याचो अणभव कवीक येता, काळजांतलो भावनांचो कल्लोळ शब्दरूप घेता (चिंतनां).

कविता निर्मणेच्या उत्कर्श बिंदू वेळार अपत्य जल्माक घालपी आवयच्यो वेणो कवी सोंसता. त्या सोंसण्यांनी लेगीत एके तरेची नशा आनी कैफ आसता, तो कवीच्या उतरांनी मुजरत वाचपा सारको आसा (कवितेचें पिशें). कवितेचें कवीक पिशें लागता. कवितेच्या ह्या साम्राज्यांत तो आपणाक सम्राट समजूंक लागता, कवितेचे इश्टेटींत

तो आपणाक भाटकार मानूंक लागता, पूण कवितेचो हो संवसार पयस केल्यार मात आपूण सम्राट वा भाटकार कोणूच न्हय हें भान ताका येता (कवितेच्या गांवां). निमणें, कविता म्हणल्यार आपले भितरल्या निराकाराक दिल्लो आकार आनी रुपकार अशें कवी म्हणटा (आकार निराकार).

साबार कवितांच्या निर्मणी प्रक्रियेंतल्यान वतकीच कवीक कवितेचें जें मर्म कळटा तें भालचंद्रान भोवच वास्तव रुपांत हांगा मांडलां.

मानवी जिणेचें तत्वगिन्यान उक्तावपाचें बळिश्ट माध्यम म्हणल्यार कविता. भोवच आशय-सुचकतायेन जिणेचो गर्भखोल अणभव भालचंद्रान आपल्या कवितांतल्यान मांडला. मनशाक चडट्या काळांत जे बरे अणभव मेळटात ते पडट्या काळांतल्या अणभवांचो परिपाक आसतात (अस्तित्वाचें तारूं). हे कवितेंतली सुकतेच्या ल्हारांचें रुप आनी आशय हांचे विशीं कवीन केल्ली कल्पना अफाट आसा. मानवी जीण म्हणल्यार कितेंतरी करपाचो हुस्को आनी कांयच करूंक पावलो ना हाची खंत ह्या दोनांय मदलें अंतर अशें कवी मानता (हुस्को). मानवी प्रवासाचें हें गुपीत सांगतकीच कवी म्हणटा मानवी जिवीत म्हणल्यार एक निरर्थक विरामचिन्ह. येस-अपेसाच्या दोन तोंकांनी मानवी जीण घुंवता. मानवी जीण भोवच क्लिश्ट, कठीण, थाव आनी अंतपार लाग नाशिल्ली आसा, अशें सांगून कवी मानवी जिणेची गूढताय उक्तायता (अथांगाच्या गांवां / थाव). तेच तरेन मानवी जिणेचो प्रवास एकतर्फी (वन वे) आसा, तातूंत परतें येवपाची मेकळीक आसना, हेंय तो सांगता (दिंगताचो प्रवास).

'मनशान कितल्योय बडायो मारूं, खरेपणान ताचें जिवीत म्हणल्यार एक पुराय घसरलेलें विशाळ पावल आसता' अशी जिविताची व्याख्या कवी करता (विशाळ पावल). हें पुराय जिवीत घुस्पागोंदळाचें, पावलांक वाटो आनी वाटांक पावल अनवळखी

जावपाचें आनी आभासात्मक आसता (पावलां). जिणेचें मर्म कवीन उकतायलां तें वाचप्यांनी मुजरत वाचचें (एक दीस). दुख्खां पचयत जीण जगलो तरी कवी भोवच आशावादी आसा. तो म्हणटा ल्हारांक जशी धव्याफुल्ल फेणेराची देग आसता, तशीच मनशाचे जिणेक सुखदुख्खाची 'हासकुरी' कोर आसा (जिविताचो कोर). हे कवितेंतली फेणेराची उपमा सुंदर आनी अर्थपूर्ण आसा. मनशाची खरेली वळख ताच्या काळजांत आसता, अशें कवी मानता (वळख सोदतनां). ह्या अफाट संवसारांच्या जंवजाळांत मनीस जेन्ना बडायो मारता, तेन्ना तो साप्प कुस्कुटा येदो आनी अहंकारी कसो दिसता ताचें वर्णन कवीन केलां (आख्खो संवसार).

अशी विचित्र, आभासमय, घुस्पागोंदळाची जीण जगतकीच कवीक मरण लेगीत एका झाडपिक्या फळा भशेनच आसचें, अशें दिसता (मरणः एक कविता) कवितांतल्यान मानवी जिणेचो 'अर्थ' सोदपाचो आनी 'अर्क' काडपाचो यत्न भालचंद्र गांवकार हांणें केला.

वैचारिकतायेच्या पांवड्यार गेल्ल्या कवीक चडकरून भोंवतणेच्या वास्तवाचें, समाजिकतायेचें भान आसना. पूण भालचंद्राची वैचारिकताय बेगडी, अवास्तव आनी अडेची ना. तिका तिचे भोंवतणेचें, परिस्थितीचें आनी काळाचें बेसबरें भान आसा. देखून कवीच्या काळजांत उतरांचो हुंवार आयला आनी ज्या उतरांचेर ताणें जिवापाड प्रेम केलें, त्या उतरांचेरच ताचें प्रेत हुबता, असो विपरीत अणभव कवीक येता. आयजचे विपरीत परिस्थितींत एका 'उतर सम्राटाचें' मरण चल्लां अशें कवी म्हणटा (उतरांचो हुंवार).

समाजीक विशमतायेचेर कवीन केल्लें उक्तें भाश्य म्हणल्यार 'आत्मो एका कुळाचो' ही कविता. आत्मो, वाट, पावलां, सावळी हीं रुपकां कवीन भोवच अर्थपुरायेन वापरल्यांत. सुरवेक फकत आपले सांवळेच्या फाटल्यान धावपी तळागाळांतलो समाज आतां शाणो जाला, आतां सांवळ्यो ताचे फाटल्यान धांवतात, अशें संमाजाचें

बदलिल्लें चित्र कवीन रंगयलां (सांवळ्यो). कर्मवाद आनी प्रयत्नवादाचीं कितलीशींच रुपां भालचंद्राचे समाजीक कवितांतल्यान दिश्टी पडटात. आपली जीण सभागी वा अभागी जाता ती फकत आपल्याच कर्मांक लागून. जल्मदाते, नशीब वा समाजांतले नाडपी ताका जापसाल आसनात, असो कर्मवाद कवीन मांडला. 'तूंच तुजे जिणेचो शिल्पकार' ह्या विचाराची ही भुमिका आसा.

फटयतल्यांक, नागयतल्यांक उद्देसून कवी 'भोगोस' म्हणटा, तांका भोगशिता, तेन्ना समाजाच्या विकृतींचें, अन्यायाचें वीख, आपल्या माथ्या वयल्या चंद्राचे शितळकायेच्या आदारान पचोवपी 'भालचंद्र' थंय खरेपणान दिश्टी पडटा.

भालचंद्राच्या समाजीक कवितांनी प्रकर्शान दिसपी आनीक एक विशय म्हणल्यार गांवां कडल्यान शारां कडेन वचपाचे प्रक्रियेंत जिणेंतलो अर्थ वगडायिल्लो मनीस. शारांत वाट चुकिल्लो मनीस चिंतता, गांव म्हाका घरांत घेतलो?'. गांवां कडेन - मुळां कडेन वचपाची कवीक लागिल्ली ही ओड आथवीच आसा. गांवचे तांबडे मातये कडलें नातें वासाचें आसा, स्वासाचें आसा, अशें कवी म्हणटा (जिणेच्या मोडणार, स्वास). वेताक चुकिल्लो वांवांक आनी वांवांक चुकिल्लो गांवांक चुकता, असो अणभव कवी उक्तायता (गांवां पलतडी). आपल्या गांवाचें गांवकाव्य रचतना गांवाच्या परंपरांचें वर्णन करीत कालचें म्हजें गांव आतां सपनांत शेणलां, अशें कवी म्हणटा (कालचें म्हजें गांव). जाल्यार दुसरे कडेन आपल्याच गांवांत वाट चुकपाक लागिल्ल्याचो अणभव कवीक येता (अस्तित्व). अशेच तरेची भावना कवीच्या 'घर व्हर्सिस बंगलो' कवितेंत व्यक्त जाल्या.

कवीच्या समाजीक वा विचारीक कवितांनी आशिल्लो न्हयकारी सूर ताच्या मोग कवितांनी मात दिश्टी पडना. ताच्यो मोगकविता तृप्ती, समादान आनी साफल्यान भरिल्ल्यो आसात (मोग पिशे). मोगी आनी मोगिका हांची भावनीक एकरुपताय 'अख्खो रुतू' कवितेंत दिश्टी

पडटा. तीच एकरुपताय, समरसताय आनी निश्ठा उक्तायतना कवी म्हणटा, हांव आरपार पळयतां... देखून तुज्यांत कुरूप कांयच नासता...(कुरूप कांयच नासता). काळजाच्या कुरकुटांत - सुवात आडोवन कोणूय बसूं - काळजाचें दार - कोणतरी वाजयता - ही जाणीव - खऱ्यांनीच सुखदेवी आसता, असो असामान्य प्रेमानुभव कवीन हांगां उक्तायला. भालचंद्रान प्रेमाची होरावणी करपी कांय सुंदर गेयरुप गजलसदृश कविता रचल्यात. सुखाचो आवंडो, यादी हीं गीतां ते नदरेन वैशिश्ट्यपुराय आसात. मोगांतली उत्कटताय (नदर) आनी प्रेमकवनां (प्राणाची लेखणी) लेगीत कवीन नकसूद उतरांनी उक्तायल्यांत.

भालचंद्राचे कवितेचें रुप भोवच सादें, सरळमार्गी, अंतर्गत लय लाबिल्लें आनी गद्यसदृश आसा. आतलावप-मातलावप, आवांताद बसप, अशीं चड करुन बोली भाशेंतली लुप्त जायत गेल्ली शब्दकळा तो सहजतायेन केळयता. ह्या झेल्यांतल्यो एक-दोन लांब म्हणपा सारख्यो कविता सोडल्यार भालचंद्राच्यो चडश्यो कविता स्फूट आनी अल्पाक्षरी. जायते फावटीं 'शिंके' भशेन त्यो केन्ना आयल्यो आनी काळजाक आफडून गेल्यो तें कळच ना. ह्या तीन टिंबांच्या रुपांतल्यान त्यो सांगचें परस सुचयतात खूब. सुचयतात आनी वाचप्यांचेर सोडटात. केन्ना केन्ना त्यो सुंदर शब्दखेळ करतात. देखीक जोरगत, ताण, कश्ट ह्यो कविता. पूण हो मुद्दाम येवजिल्या उतरांचो न्हय तर सहजतायेन घडिल्लो खेळ कसो दिसता. ह्या कवितांक कवितेचो अभिनिवेशी रुपकार ना. ओड, पाप, चान्न्याचो हुंवार, उले ह्यो कविता म्हणल्यार दृश्टांत वा देखावे वा चित्रकाव्य वा हायकू वा होवयो कश्यो जाल्यात.

आडवणांतल्या 'उल्या' पासून सुरू जाल्लो हो भालचंद्राचो हो काव्य-प्रवास पन्नाशींत पावला. जिणेच्यो अर्दशतकी कुरवो ताच्या ह्या झेल्यांत लेगीत दिश्टी पडपाक लागल्यात. क्षणभंगूर जिणेचें चित्र

आनी परतीचो प्रवास 'पावस मोन्या यादींचो' आनी 'जिणेचें गणीत' कवितांनी दिश्टी पडटा. काळ कोणाक रावना हाची जाणविकाय कवीक जाता (म्हर्जीच पावलां). एकलेपणाची भावना उक्तावन कवी कल्पना आनी वास्तव हातुंतले अंतर कवी दाखयता (हांव). आयुश्याच्या निमाण्या पेण्याचो हुस्को कवीक लागला (पेणें).

अशे तरेन पन्नाशींतली भालचंद्राची कविता परिपक्क जायत चल्ल्या. वर्तमानांतल्यान वयर सरुन तिका भविश्याचे वेध लागल्यात. आपणें आपलो धर्म बुडयला जायत, पूण धर्मांध जावन दुसऱ्याचो धर्म मात माड्डोवं ना, असो आधुनीक आनी प्रागतीक विचार ती मांडूंक लागल्या. शेंकड्यांनी वर्सां आदीं जे भुंयेचेर बुद्ध, सोक्रेतीस, जेजू जावन गेले ते भुंयेचेर आयज सादें मनीसपण आशिल्ले मनीस कित्याक जल्मुचे न्हय? असो सडेतोड प्रस्न ती करता. विकासा कडेन वचपाचें सोडून अर्विल्लो मनीस पुर्वजांनी शेणयल्ली शेंपडी परती मेळोवपा खातीर धडपडटा तें कटू सत्य ती भंया विरयत उक्तायता.

हे कवितेक अळंकारांचें चेंपण लागना. जडगुळो उतरांच्या वजनाची गरज पडना. हे कवितेक कवीन भोवच अर्थपुराय नांवां दिल्यांत. पूण खरेपणान तिका नांवांचीय गरज ना. अख्ख्या मळबाक वेंगावपाचो हांवेस आशिल्ल्या कवीक खंयचोच विशय वर्ज्य दिसना. समाजीक विशय लेगीत आक्रस्ताळेंपण येवंक दिनासतना संवेदनशील नदरेन कसो मांडूं येता तें ह्या झेल्याच्या माथाळ्याचे कवितेंतल्यान पळोवचें (वावझड).

देखून जिणेच्या दुसऱ्या अर्दांत भालचंद्राचे कविते कडल्यान अपेक्षा वाडल्यात. अणभवसंपन्न जिणेच्या म्हालवजाचेर ताची कविता मळबाक वेंगावपी जावं ही सदित्सा.

**डॉ. भूषण भावे**

## मांडावळ

## १. उतरांचो हुंवार

अंतरंगांतलो
हो उतरांचो हुंवार...!
तातूंत उफेता एका कवीचें मडें
उतरांक जाणें सर्वस्व मानलें
ताणींच ताका असो
निराधार केला...
आपणालें व्हडपण मिरोवपाक.
आनी....
सानुल्ल्या जीवाक मांडयेर धरून
आतलावचो..... मातलावचो
ते भशेन...
हुंवारांतल्या वादळी तरंगांचेर
ताच्या मड्याचें हें
प्रदर्शन चल्लां...
उतरांच्या संवसारांत
एका उतरसम्राटाचें
मरण चल्लां.

## २. एक कविता

पुराय जल्म लावन
हांवेन एक कविता रचल्या
कविता मर्णाची....!

आतां दिसता
म्हजो सूर्या अस्तमतानां
अमुरपिके आमोरेर
सगल्यांनीं बसून
ती आयकुची.

पूण....
म्हजी गत जाल्या
वाल्मीकीची....
म्हाकांच दिवपाक जाय
जाप म्हज्या पापाची.

सगल्यांक आसा खबर
खबर म्हज्या जल्माची
हांवेन एक कविता रचल्या
ही खबर मात
सगल्यांक उपरांतूच कळटली
उपरांतूच कळटली.

## ३. कवितेचो मळो

म्हज्या घरांत
आवांताद बसून कविता रचतां रचतां
म्हज्या हातांतलें पेन....
म्हजो हात चलयता
हातीक म्हजी कूड चलयता
आनी कुडीक ?
अचकीत म्हजी नदर
भोंवतण सासपीता.... तेन्ना हांव पळयतां
भोंवतणचो दर एकटो म्हजेच सेवेंत
गुल्ल आसता.
कोण म्हजेखातीर च्या करता....
कोण जेवण रांदता....
कोण म्हजे कपडे धुता....
कोण न्हाणयेर उदक तापयता...
कोण म्हजें पोरसूं शिपता....
कोण म्हज्या भाटांत वावुरता....
कोण म्हजें घर झाडटा....
सगलें.... सगलें हें म्हजेखातीर,
काय म्हजे कवितेखातीर....?
ना.... अशें जावपाक फावोना
म्हजे कवितेचो मळो
म्हाकां असो रगतान शिंपपाचो ना
अचकीत हात उबारून हांव तांकां फर्मायतां
रावात.
म्हजे खातीर हो वावर बंद करात.

आतां तुमचे खातीर हांव वावुरतां.
म्हजें पेन तुमीं धरात.’
तेन्ना ते पिश्याक पळोवचो तशें....
सगले म्हाकांच पळयतात.
हांव तांकां तरीय बोब मारून सांगतां
म्हाकां तशें कांयच जावंक ना
मोखून मारात हीं आवतां’
तरीय ते आयकनांत
आवतां सोडीनांत.
तेन्ना हांव पळयतां
दर एकट्याच्या दोळ्यांत
कवितेची दुसरी वळ आकाराक येतना....
म्हजे कवितेइतलीच
खोलाय आशिल्ली.

## ४. अस्तित्वाचें तारूं

सुकतेवेलीं ल्हारां
ना गाज
ना वाज
तरीय तीं येतात...
आपणाल्या अस्तित्वाचें
तारूं घेवन
जुवान वेळेर खीणभर.....
आनी.....
व्हरतात पर्थतनां
एक संदेश
काळजाच्या पोश्यांत धरून
अळंगसो....
भरतेवेल्या ल्हाराखातीर!

## ५. निरोप

दर दिसा
संवसाराचो निरोप घेतां
परतो येवचोना
अश्या निग्रहान
पूण....
हांवेंन पळयलां
दर फावटी....
तें एक सपनूच आसता.
न्हिदेंतल्यांन....
जागो जातां तेन्ना
पळयतां....
हांव त्याच संवसारांत आसतां
जाची निरोप घेवपाची
भास करतां तातूंत....

## ६. आत्म्याच्या पोरसांत

सपनांचीं बियां
रुजवणाक येवपाचोय
एक रुतू आसता..
झाडांच्या....
पानाकणकणी
कुचकुचीत आंकऱ्यो फुटोवपी
रुतू भशेनूच.

ह्या रुतूचें नांव
हेरांभशेन म्हाकांय खबर ना
पूण तो....
अचकीत येता
हातूंत इल्लोय दुबाव ना.

म्हज्या आत्म्याच्या...
पोरसांत जाल्यार
दीस - रात
तोच परमळटा
देखून....
म्हाकां तो
निखटो रुतू न्हय
जाल्यार
सपनांचीं बियां
रुजवणाक हाडपी
तो रुतूंचो राजा म्हारुतू.

## ७. हुस्को

जिणेंत......
कितेंतरी करपाचो हुस्को
आनी....
कांयच करूंक पावलो ना
हाची खंत.
ह्या दोनांय मदलो हांव
एक निरर्थक विरामचिन्ह कशें
दोनूय अर्दांचो तोल सांबाळीत
स्वताकूच अर्थ लावपाचो
यत्न करतां.
दोनांय मदली भुमीकाच आसता ती एक
असंख्य आंकांच्या नाटकाची
अचकीत मागीर ताळयांचो गडगड
आनी....
मदींच किण्ण शांतताय
भुमीकाच पोखरून उडोवपी
तेन्ना दिसता
नाकांच ही भुमीका
आंगावयलीं हीं अडेचीं वस्त्रां भिरकटावन
खंयतरी पयस परांतरा धांवचें
जंय म्हाकांच गावची ना म्हजी वळख.
पूण दोनांमदलो हांव
हांवूच आसता
जिणेंत....

कितें तरी करपाचो हुस्को
आनी....
कांयच करूंक पावलो ना
हाची खंत काडीत.....

# ८. चितनां

तेन्ना....
कविता बी म्हण्टात ती
चितनांतूच नासताली....
तरीय....
अचकीत एक.... एक
आकारताली
सामकार दिसता त्या कागदाचेर!
आतां मात....
चिंतनांनीं असंख्य कविता
न्हय चिंतनांच काव्यमय!
काळजांत सामकी गर्दी करतात
आनी.... आकारपाचें
खंयचे खंय विसरून वतात.

# ९ पावस मोन्या यादींचो....

जोरगतीचो भार सगलो
जोरगतीचेर उलगलो
तरीय केन्नाय शिडशिडटा
पावस मोन्या यादींचो....

आडवेळोच झडटा कसो
पावस मोन्या यादींचो
आंगा - पांगान फुट्टा पिसो
रूख मागीर काळजाचो

खीणयाळो खेळ हो
खीणाभीतर उलगपाचो
जिणेच्या आडवेळा
पावस मोन्या यादींचो....

## १०. अथांगाच्या गांवां....

अथांगाचो
थाव घेयत
आयचें पेणें
हांगा जालां

फुडलें पेणें
कोण जाणां
अथांगाच्या
खंयच्या गांवां....

अथांगाचो
थाव घेयत
अथांग जीण
सारताना

कोण जाणां
कशें म्हूण
थाव कसलोच
लागलोना.

## ११. दिगंताचो प्रवास

पावलांक म्हज्या
खबर ना
परतुपाची वाट....
दीस आसूं
रात आसूं
तीं अखंड चलतात
कितलीं तपां
उलगलीं
असो हो
दिगंताचो प्रवास....
पावलां म्हजीं
विणीत गेलीं
वाटेक वाट....
वाटेक वाट....

## १२. हें दळडीर

हें दळडीर
मनाचें....
उथळ तितलें
खोल तें
कितल्योय मारल्यो
कपयो जरी
खंय तरी
झिरपतलें....

हें दळडीर
मनाचें.....
बेणलें तरीय
उरपाचें
मन, नितळ
न्हातासर
खत कशें उरपाचें.

## १३. अख्खो रुतू

निस्तूं दी
अख्खो रुतू
तुज्या दोळ्यांतल्यांन
अखंड....
आनी
भिजूं दी
म्हजें मन
तुकां नकळत
सामकें चींब.

# १४. विधूर

वर्सांसकीं तुमच्यो
असंख्य वडापुनवो
मनयतां मनयतां
म्हज्या वडाची
पुराय होळी जाली
मुळां सावन
ताळांमेरेन....
तुमचें
सवाशीणपण राखताना
बाबडो आपूण मात
विधूर जायत चल्ला
हाचें ताका
धंगणूच उरलें ना.

## १५. जोरगत

तळपाकूय
फुट्टा आंकरी
जोरगत
भावत जाल्यार....

काव्याकूय
येता सुकती
जोरगत
बावत जाल्यार....

# १६. आंतरीक वेदनां

भरिल्ल्या पोटार
धेंकर कसो
कविता केन्नाच येना....
ती....
चडकरून
उपाशीं पोटारूच येता
मन आनी काळीज
संवेदीत जाता तेन्ना
आंतरीक वेदनांनीं.
ती येता....
मन आनी काळीज
उत्स्फुर्त जाता तेन्ना
उमाळ्यांनीं.....

## १७ पावलां

पावलां खातीर वाटो
काय
वाटां खातीर पावलां
खबर ना
पूण एक मात खरें
दोगांकूय
एकामेका बगर
अर्थ ना.

## १८. म्हजींच पावलां

अशे हे....
आमोरेर
फाटीं वळून पळयतां....
तेन्ना....
दर्याचे वेळेर कशीं उदेल्लीं
म्हजींच पावलां
म्हाकां वळखुपाक येनांत
कित्याकतर
तींय फाटीं पडिल्लीं आसतात
सकाळ
आनी
दनपार कशीं.

## १९. वावझड

मेळत ताका
वाट विचारीत
हांव म्हज्या गोंयांत भोवतां
तेन्ना हांव
हुबळी, बेळगांव, मुंबय, दुबय
सगल्याक पावतां
थंय मागीर सांडिल्ल्याचें मन
धा कडेन जावन
हांव म्हजें गोंय
सोदीत रावतां.

तानेल्लें गोरूं
उदकाक कशें
कोंकणी उतराक
हांव तानेतां
तेन्ना
कानडी, इंग्लिश, हिंदी, मल्याळम
सगलें आयकतां
दुदाची तान.... ताकान भागयतां
तातुंतूच हांव म्हजें
कोंकणी उतर
सोदीत रावतां.

गोंय म्हजें
पाचवें सपन
भुरगेपण जागयता
तेन्ना हांव पाचव्या कोरा
यादी माडयत
हांगाथंय जळपेतां
तांबडो, काळो, निळो - बिळो
सगल्या कोरांमदीं
म्हजो पाचवो कोर मात
खंयच नासता.

तरीय हांव
सोदीत रावतां
सोदीत रावतां.

# २०. आत्मो एका कुळाचो

तुमचे....
पांय धुवन
उदक पियेवपाचे दीस
आतां गेले
तरीय....
त्या दिसांचो
उगडासूच जाल्यार
आंगार आंगभर
फुलता कांटो
शिर्र करून....
आनी दिसता
ओंकून उडोवचें
तें पुराय उदक....
काळीज, मन आनी
आत्मो पिळून....
एका कुळाचो
इतिहास
आट्टा सर.

# २१. सावळ्यो

सावळ्यो धरपाक
सावळ्यां फाटल्यान
आमी धांवत रावले
तो मेरेन....
सावळ्यो फुडें
आमीं फाटीं
अशें घडत रावलें
आमी पिशे....
कितलोसोच तेंप
अशेच खर्शेले.

अशें कित्याक घडटा
तें काल - पयर मेरेन
एक कुवाडेंच आशिल्लें.
आतां तें उरूंक ना....
आतां आमींय शिकल्यात
उरफाटे दिकेन धांवपाक
आमकां खबर आसा
आतां सावळ्यो....
आमकां सोडून वचच्यो ना
आतां त्यो धांवतल्यो
आमचे फाटल्यान
खर्शेत.... खर्शेत
काळाक जाप दीत.

# २२. निरर्थक जीण

म्हजे....
निरर्थक जिणेक लागून
हांव
कोणाकूच दोश दिनां.
जल्मदात्यांक ना....
समाजाक ना....
नशीबाक तर नाच ना
कित्याकतर....
हांवेन.....
म्हजी जीण
केन्ना कोणाचे सुवादीन
केलीच ना....
म्हाकां जाय तशी
हांव तिका
धावंडायत रावलों
तेन्ना....
जल्मदातो.... समाज.... नशीब
सगलें फट थारायताना
म्हाकांच हांव
शाणो समजलों
आतां म्हजें शाणपण
खंय घाळ्ळां काय?

## २३. विशाळ पावल

दर एक पावल
जतनायेनूच घालतां
पूण....
अचकीत केन्नाय
तें घसरता
तेन्नाच तें....
चुकलां म्हूण जाणवता
मागीर....
चुरचुरपा भायर
आनीक कांयच करपाक जांयना
कित्याकतर
ती गजाल
केन्नाच भुतकाळ जाल्ली आसता.

फावो ती
जतनाय घेवनूय
दर फावटी
अशेंच घडटा....
जिविताचें गणित
मांडटा तेन्ना
अख्खें जिवितूच
एक विशाळ पावल आसता
पुराय घसरलेंले....

## २४. आडवाट

पावलां चुकतात
म्हणुनूच
तीं
मेजून घालचीं पडटात.
एक फावट
चुकिल्ल्या पावलाक
मार्ग नासता
दिशा नासता
आसता ती
आडवाट
काट्या - खुट्यांची
अंत नाशिल्लीं.

## २५. पावलां

ते दीस गेले.
आतां
वाटांक वळखनांत पावलां
आनी
पावलांक वाटो.
आतां
सगल्योच वाटो
वांटकुळ्यो
अनवळखी जावनूय
पावलांक
भासतात वळखिच्यो.

## २६. प्रस्न

म्हजे रंग
आनी अंतरंगाचें गणित
केन्ना - केन्नाय
म्हाकांच होलमना....
देखून....
तुमच्या दरेक प्रस्नाक
जापे वाट्याचे
म्हज्या मनांत
प्रस्नूच उमळटात
मीर्गाविले झरे कशे....
जाप नाशिल्ले.

## २७. जाप

आसा.
जाप आसा.
तुमगेल्या दरेका प्रस्नाक
म्हजेकडेन जाप आसा
पूण....
ते जापेचो अर्थ
तुमकां समजना जाल्यार
हांव कितें करूं.....?
एक गुपीत मात
हांव....
लिपोंवक सोदीना
म्हगेले....
जापेक फावोसारखे
तुमगेले प्रस्नूच आसनांत.

## २८. विशाळ नदर

म्हजे नदरेंत.... फकत
सूर्य - चंद्र - नखेत्रां
इतलेंच ना....
खरें सांगपाचें म्हळ्यार
तिका
अख्खें मळबूय पावचेंना......

## २९. कवितेचें पिशें

म्हाकां पिशें लागता....
तेन्ना हांव निखटो पिसो आसनां
जाल्यार....
म्हजे भीतर संचारता एक मोनेळ
आकांताचो....
जातूंत पुराय सैम आनी सृश्ट लेगीत
म्हज्या मनाचे रंग चितारपी
कलाकार जातात
आनी....
तेय मनयतात आसतले
तोच सुवाळो....
म्हज्या मनाचो.... म्हज्या मनांतलो.... !
तेन्ना भोंवतणचे सगले शाणे
म्हाकां कुस्कुटांवरी भासतात
कित्याकतर....
म्हजी तेंगशी अमाप उंचायेर आसता
म्हजे सयत.

## ३०. हांव

हांव असो
एकोलयो कसो
म्हजेच भीतर जगतानां
म्हजे भायर उद्वात
कितलींशींच मोडां आनी
आकांताचीं वादळां....

रचणाऱ्यान चितारिल्लें
सृजनाचें चित्र
काळाच्या हातानीं पुसून आनी पिंजून
चित्र - विचित्र करतात
युगांतराचें उमाणें
एकाच खीणांत
पिळून काडटात....

आनी....
म्हजेच भितरलो हांव
भायर येवन पळयतां
तेन्ना....
म्हजे वयलोच म्हजो विस्वास
म्हाकां सोडून वयता....
पयस दिगंतरा....

तेन्ना खऱ्यांनींच हांव
सामको एकटो पडटां
आनी....
म्हजेवांगडा
हांव' लेगीत नासतां.

## ३१. मरण : एक कविता

मरणूय....
एक कविताच आसता काय ?
झाडपिकी....
अचकीत देंठार झडिल्ली....
तशें जाल्यार
झडूनूच
पळोवची पडली.

## ३२. आडवेळो पावस

नदरेंत बुडोवन नदर
दिसता....
युगांच हांगा सारचीं
आनी....
आडवेळो येंवचो
पावस जसो
अचकीत सांज जांवची.

## ३३. कुरूप कांयच नासता....

तुका पळयतानां
हांव आरपार पळयतां....
देखून तुज्यांत कुरूप कांयच नासता....
लोक मात
तुजें रुपूच पळयतात
देखून तूं तांकां कुरूप दिसता.

हांव तुजें अप्रूप तोखेतां
देखून....
रुपाकडेन म्हजो संबंधूच नासता
लोकांचे नदरेचे हारशे
म्हेळेच आसूंये....
देखून....
तांकां तुजे अवगुणूच दिसतात.
म्हाकां तुजेकडेन देणें घेणें
निखालय नासता....
तरीय तूं....
खंयच्यान तरी कोणतरी
म्हजें लागींचेंच आसता.

काळजाच्या कुरकुटांत
सुवात आडोवन कोणूय बसूं
काळजाचें दार
कोणतरी वाजयता
ही जाणीव
खऱ्यांनीच सुखदेणी आसता.

## ३४. पाखां

हांवेन पळयल्यांत
ताका
पाखां फुट्टना
आनी
त्याच पाखानीं
मळबार मळबभर
भोंवर मारतना....

हांवेन पळयल्यांत
ताचीं
पाखां झड्टनां....
आनी....
अबळीक जावन
भूंयेचो आदार घेतनां....

## ३५. जीणेच्या मोडणार

वयावयले चंचल चलयेचो
अचकीत पांय घसरून
फुडली वाटूच वांटकुळी जांवची
तशी म्हजीय गत जाली....
जीणेच्या एका मोडणार
म्हजोय पांय....
घसरलोच म्हणचो पडटलो.
मागीर....
शाराचे दुवाळे मनयत
हांवेन गांवाक फाट केली
तो दीस....
आजुनूय उगडास जाता.
गांवाची ओड तशी
आजुनूय सुटूंक ना....
पूण....
गांव म्हाकां घरांत घेतलो?
काय....
वळखून लेगीत
वळख नाशिल्लेवरी
दुबावान पळयत रावलो?

## ३६. स्वास

गांवातले तांबडे मातयेचो स्वास
आजुनूय
म्हगेल्या स्वासांत
भरसलो जाल्यार
आमीं आजुनूय मनयतात
तोच सुवाळो....
जो फक्कत
तांबडे मातयेच्या
आनी....
म्हगेल्या स्वासांबगर
आनीक कोणाकूच खबर ना.

## ३७. आमीं

आमीं
धर्तरेक भार जावन
इतिहासाक रितीं पानांच दिलीं....
ताणीं मात....
धर्तरेक रगत दिवन
धर्तरी जगयली....
तरीय इतिहासान
न्याय मात आमकांच दिलो
आमकांच वेंगेंत घेवन
ताणें....
आपणालें मखर सजयलें
आनी ते....
खंयचे खंय नांच जाले.

## ३८. सोद अस्तित्वाचो

हांवूच सोदतां म्हाकां....
म्हज्याच मनाच्या काळखांत
हांव जाणां
म्हजे बगर आनीक थंय
कोणूच नांत....
तरीय
आडखळटात पांय
पांयाक.... पांय
आनी....
थंयच काळखांत
सासणाचो शेणटा हांव
म्हजे खातीर....
म्हज्याच अस्तित्वासयत
पुरायतेन....

## ३९. कवितेच्या गांवां

कवितेच्या गांवां
आमचीं मळबायेदीं नांवां....
खासा आमच्या गांवां मात
आमकां कोणूच वळखनां
कोणूच वळखनां....

कवितेच्या गांवां
आमचीं भाटां आनी बेसां
खासा आमच्या गांवां मात
आमची इल्लीय मिरास ना
इल्लीय मिरास ना....

## ४०. अस्तित्वाचो हारसो

म्हाकां फटयतल्यांनो
तुमीं तुमकांच फटयतात....
म्हाकां फातरायतल्यांनो
तुमीं तुमकांच फातरायतात....
तुमचींच तुमीं रगतां काडटात.
तुमकां तें दिसनां
कित्याक जाणां ?
तुमीं तुमच्या अस्तित्वाचो हारसो
फाटल्यान लिपयला....
जेन्ना.... केन्नाय
चुकून.... माकून
तुमचें पडबिंब तुमीं तातूंत पळयतले
तेन्ना तुमकां दिसतलें
तुमचेंच रगत
बळबळीत व्हांवताना
तुमच्याच सर्वांगाचेर
आनी....
उरिल्लें जिवीत
आपणाल्या करण्यांचें पातक भोगीत
तुमकां वथरेत सारचें पडटलें
आनी हांव....
तांका भोगोस' म्हूण
म्हजे वाटेन चलत रावतलों....
पुनर्जल्माची भोगावळ करीत.

## ४१. काळोख

काळखाची पुजा करप
म्हाकां....
केन्नाच जमलेंना
आनी....
केन्ना करिनूय दिसलीना
देखून....
काळखाचेर खोट मारून
हांवेन....
उजवाड पळयलो
गिन्यानाचो.

## ४२. ओड

वेदनेच्या दर्याक
भरतीच चड....
मनाक मात लागल्या
सुकतेची ओड....

वेदनेच्या दर्याक
ना गा तड....
एक जावन रावल्या
आलतड - पलतड.

## ४३. एक दीस

दर एक दीस
निमाणचो....
अशेंच समजून जगतां.
देखून....
त्या दिसा खातीर तरी
दर एके गजालीक....
पूर्णविरामचेर हाडटां
आनी....
नशीबान
नवो दीस उदेलो जाल्यार
पुनर्जल्म समजून
नवे उमेदीन
हातपांय हालयतां.

## ४४. थाव

ना लागना
थाव लागना
नदरेच्या गांवां
खोलायेबगर....
आनीक मगा
कांयच दिसना !

थाव लागना
तळ मेळना
बुडचें काय
सरचें तडीर
कांयच मगा
सुचनां....

नदरेच्या गांवां
खोलायेबगर
आनीक मगा
कांयच दिसना.

## ४५. पेणें

कितलीं पेणीं
फाटीं पडलीं
हिशोबूच उल्लो ना....

दर पेण्या
उपकार आठोंवक
संदूय मेळ्ळी ना....

आतां पेणें....
निमाणेशें
केन्ना येतलें
कोण जाणां ?

## ४६. एक खीण

अशें घोंट घोंट पिवचे परस
दिसता....
अगस्ती जावन
घटघटीत पिवचें....
आनी....
तुश्टतायेचें तेंमूर
एकाच खिणांत
वेंगावचें....

सासणाचें
आनी निमाणचें......!

# ४७. सपनां

जिवीत जियेतानां
सपनांच चड जियेलों....
सपनां खुट्टानां....
जिवितूच खुटीत रावलों
आतां....
दोगांकूय परकी जालां
सासणाचो....

# ४८. ताण

कामा फाटल्यान....
कामां
हातावेगळीं करतानां
कामांच
सोपलींनांत....

पूण आयज
अचकीत कामां सोपल्यांत
ल्हव - ल्हवशें
दिसपाक लागलां
म्हूण....
फाटीं वळून पळयल्यार
हांवूच हातावेगळो जालां....

## ४९. सुखाचो आंवडो

काळजांतुल्या उतरांक म्हज्या
संगीताची साथ दी....
जीण जाल्या काळखी रात
उजवाडाची वात दी.

अमृताची लागल्या तान
वोठांतुलें गीत दी....
मोगाच्या आवंड्या म्हज्या
सपनांचो पावस दी....

परमळाचें लागलां पिशें
वोवळांची भास दी....
विरहाचें नांव नाका
सुरंगांची रास दी....

# ५०. दनपार

ही दनपार
अशी लासता....
जीण सामकी असह्य जाता.
सुर्यास्ता...
तूंय असो
अंत कित्याक पळयता ?

## ५१. आकार निराकार

हांवूच थापतां माती
एक मूर्त घडयतां....
म्हज्याच भितरल्ल्या निराकाराक
आकार दितां....

दिसां फाटल्यांन दीस
आनी रातीय सोपयतां....
सगल्यांच्यांच काळजांत उरतली
अशी एक मूर्त घडयतां....

म्हज्याच भितरल्ल्या निराकाराक
आकार दितां....
रुपकार दितां....

## ५२. जिविताचो कोर

दर्याचो संदेश घेवन
तडीर येवपी
ल्हाराक जशी
धव्या फुल्ल फेणेराची.
देग आसता....
तशीच म्हज्याय जिविताक
एक देग आसा....
सूख आनी दुख्खाचो
कोर....
एकामेकांत भरसून
एकरंग जाल्ली....
हांसकुरी.

# ५३. वेदनां

दोळ्यांत दाटल्यांत
वेदनेचीं कुपां....
दुखांचो पावस
मात झडचनां....

काळजांतलो गडगड
सोसूंक जांयना
संवकळीचे कान
मात फुटंचनां....

## ५४. पाप

कोण एका
वाटसरूचें पाप
निस्तता
तिच्या दोळ्यांतल्यांन
अखंड....
तिची नदर
वयता चिरीत....
आरपार ब्रह्मांडाचें काळीज
आनी....
संवसार घोट्टा
आवंडो.
एकाच अमृताच्या थेंब्याखातीर
थंय पाप
किडकिडटा
आपल्याच जैताखातीर !

## ५५. मन पिशें

सपनांचो भार उलगला
दर एक रात आतां....
किट्ट काळी....

न्हिदूय आतां सोडून गेल्या
एकलें एकटुकें मन पिशें
यादी चाळी....

## ५६. मोगा पिशें

सरत्या आशाडांतली न्हंय कशी
घसघसत राव
म्हाकां पिशें लागलां
तातूंत उडी मारून
एकरूप जावपाचें.....

सरत्या श्रावणांतली जाय कशी
परमळत राव
म्हाकां पिशें लागलां
तिच्या परमळांत
धुंद पेंवपाचें.

# ५७. गांवां पलतडीं

हांव वेताक चुकलों
हांव वांवांक चुकलों
हांव गांवांक चुकलों
आतां....
गांव पयस उल्लां
नदरे पलतडीं.

हांव दुडवांक भुल्लों
हांव शारांत बुडलों
हांव वाट चुकलों
आतां....
गांव पयस उल्लां
सपनां पलतडीं.

हांवेन शिगमो सोडलो
हांवेन कालो सोडलो
हांवेन जागोर सोडलो
आतां....
गांव पयस उल्लां
उगडासां पलतडीं.

## ५८. सांडिल्लो गांव

पांचवीं सपनां जागोवपी
मळबा - निळाय तोखेवपी
आशाडांतलो पावस वेंगावन
गुरवारीची सया माळपी
कालचें म्हजें गांव....

पांयवाटांच्या रांगोळ्यांचें
ओंवळीतळा सांवळ्यांचें
भुंयचाफ्यां परमळांत
मोगाची धून गावपी
कालचें म्हजें गांव....

पौषांतल्यो धालो खेळपी
फुगड्यांच्यो धूंद राती
धोल - ताश्यां आवाजांत
शिगम्या जती - तालगडी
कालचें म्हजें गांव....

वायंगणाच्या पिकेवयलें
भांगराच्या वासाचें
मालुणांतल्या शियांराती
दिवजांच्या चान्याचें
कालचें म्हजें गांव....

पांचव्या - निळश्या दोंगुल्ल्यांचें
घोग्या - वझऱ्या खळखळाचें
खळ्यां - व्हाळ्यां रुपें न्हावपी
कोंब्या सादार जागें जावपी
कालचें म्हजें गांव....

सपनांनीं सांडिल्लें....
कालचें म्हजें गांव.

## ५९. अस्तित्व

म्हज्या गांवातूच आयज हांव
वाटो चुकपाक लागलां....
पिश्या गांवान....
कोणाचें तरी पाप पोटांत वाडोवचें
तशें....
आपणाल्याच पोटांत.... भरसल्ल्या रगताचें
एक शार वाडयलां....
चित्र - विचित्र आकार घेयत
दिशीं - माशीं तें वाडत आसा
आनी म्हज्या गांवाचें
अस्तित्वूच ना जायत चल्लां
हांव म्हज्याच गांवांत
वाटो चुकपाक लागलां.

## ६०. घर व्हर्सीस बंगलो

ह्या घराक आजून घरपण उल्लां
किद्याकलर....
हांवेन ताचो बंगलो जांवक दिलोना
वा....
एखाद्री पालासूय जांवक दिलीना
आठूय पार ताचीं दारां उक्तीं
कोणेंय फुडल्या दारांतल्यांन भीतर सरचें
आनी आरपार गेल्ल्या भशेन....
फाटल्या दारांतल्यान भायर सरून वचें
ताका कोण विचारचोना.
ताचो बंगलो जाल्लो जाल्यार घडये
फुडलें दार धापून उरपाचें....
येतलो - वतलो दारावयली बॅल वाजोवपाचो
मागीर दाराक मदीं बसयल्ल्या
नाकटायेद्या हारशांतल्यान हांव
एक दोळो लावन पळोवपाचो
आनी कोणूय वळखिचो सो दिसलो जाल्यार
'किदें काम आशिल्लें?' अशें विचारून
ताका भायले भायर वाटेक लावपाचों.
बंगल्यामुखार मोटार आसपाची
नोकर - चाकर घोळपाचे
आनी....
निमाण्या मजल्याच्या जनेलांत बसून
हांव भोंवतणच्यो चिमटीभर खोपट्यो
तेळपाचों....

तांच्या दळडिराची तुळा....
म्हज्या गिरेस्तकायेवांगडा करून
पोट धरून हांसपाचो....
आनी घडये म्हज्यांतलो देंवचार
जागो जाल्यार....
एकेच फस्काचे काडयेन
भोंवतणचें अख्खें दळडीर ना करपाचो.
पूण हांवेन घरपण राखलां.
घरपणाक लागून मनीसपण राखलां....
आनी हाकाच लागून....
दर एकट्या गरीब - दुबळ्याची पीडा
आनी दुखणीं....
हांवच सोसतां.

# ६१. जैताची वाट

म्हजी वाट हांवेंच घडयल्या
हांवेंच चिरल्या....
वाटेवयले कांटे - खुटे
हांवेंच मोडल्यात
जायते फावट
म्हजे हात - पांय
तांकां फरावल्यात....
म्हज्या तांबड्या रगताचे
दागूय तांचेर उदेल्यात....
वाटेवयले फातर - गुंडे
हांवेनूच हुमटायल्यात
देगणांतल्या काळखांत
तांकां हांवेनूच लकयल्यात
आयज म्हज्या कश्टांचें
सार्थक जालां....
म्हजी वाट आयज
हांगा मेरेन पावल्या....
हांवेनूच ती पावयल्या
घडये तिचो प्रवास
आनीकूय उल्ला जायत
कांय जाण ती
आपली म्हूण चिरतात
म्हजो तांचेर इल्लोय
शीण ना....
कित्याक तर
म्हजें जैत.... हांवूच जाणां.

## ६२. वळख सोदतनां....

म्हजी वळख
म्हाकांच घडयताना
अचकीत प्रस्न पडटा
हांव कोण ?
आनी
त्या प्रस्नाची जाप सोदपाक
बद्द रिगतां
म्हज्याच काळजांत
कसलेंच सोयर - सुतक
नाशिल्लेवरी....
थंयचो कणानकण
मागीर....
नदरेनूंच सासपितानां
पर्थितां पानां
इतिहासाचीं....
थंय मागीर.... हांव आकारतां
कणा - कणान
खिणा - खिणांत....
आनी....
जावपाक लागता दिश्टावो
हांव कोण हाचो....
तेन्ना....
म्हाकांच हांव
अंदितां....
घट्ट वेंगेंत
वळख पुराय जायसर.

## ६३. कश्ट

रात पुराय घोंटून
हांवेन दीस पिकयला
कश्टांचो....
गीम सगलो तापोवन
हांवेन पावस झडयला
जेश्टांचो....

## ६४. उतरां

तूं सूर शेणयत गेलें....
तांच्या मागार
नकळटां
म्हजीं उतरां
सुरांचे वावळेक
घुस्पटत रावलीं.

आयज तांचो
व्हडलो
वळेसर जालो
अमाप!

## ६५. चान्याचो हुंवार

रातीची काजळी झडयत
येता चान्याचो हुंवार
आनी
पुनवेच्या जोरगतीक
आकांताचो भार.

## ६६. जिणेचें गणित

आतां
जिणेकूच येयल्या सुकती
सासणाची.
थंय....
दिगंताचे धारेपेलीं सपनां
रुजवणां हाडून
कित्याक तो मरणा धडेवयलो शिरंगार सुवाळो?

आतां....
एका एका खीणाचेंच गणित
तेंय बी....
खीणांतल्यांन खीण वजा करीत
सोडोवपाचें....
थंय गुणाकाराचीं सपनां म्हळ्यार
निखटीं पिशेपणांच जातलीं....

आतां भरती....
धारेपेल्या सांजेच्या दर्याची
मनांत नासूं....
काळजांत नासूं....
मात लागल्या....
केन्नासावन ओड तिची.

## ६७. उले

सपनांचे उले घालीत
माघ येता....
आनी ही पिशी सुरंग
शिरंगाराचे रंग माळून
चान्यांत अशी....
उक्तीच न्हाता.

## ६८. गांठ

तुज्या सपनांत येवपाची वाट
केन्ना मेळ्ळीच ना....
आतां जाल्यार तूं....
सपनां पलतडीं पावलां.
तुजे - म्हजे वाटेक वाट
घुस्पटून केन्ना
गांठ पडलीच ना.

## ६१. नदर

दिगंताचीं वस्त्रां देंवयत
तूं जेन्ना
नदरेंत देंवता
तेन्ना
नदरूच जशी कितें
दिगंतांत पेंवता!

## ७०. अंतरमन

पयशांची भीक नाका
उतरांचें वीख दी....
मायेचें सुख नाका
विरहाचें दुख दी....
पौशांतले चान्ने राती
पावसूय इल्लो पडूं दी!

## ७१. यादी

धुक्यांत शेणल्यो यादी आनी
धुकेंच जाली जीण
सांग कशें येवचें पिश्या
काडूंक तुजो शीण ?

वाऱ्यार बसून उडून गेले
खिणां फाटल्यान खीण
मुदल तशेंच थीर उल्लां
पावोंव कशें रीण ?

काळोख आतां उपाट भल्ला
सगल्याक जालां बिण्ण
उमेदीच्यो बावल्यात कळयो
काळजांत पडलां किण्ण.

सात जल्मां गांठ आमची
मेजता कित्याक खीण
भेट अचकीत जातली तेन्ना
पावचीना ही जीण.

## ७२. प्राणाची लेखणी

आतांय बसलां
प्राणाची लेखणी करून
उतरांचीं धुंगरां गुथूंक
उत्तीं उत्तीं पावलां तुजीं
अळंगशीं धांपूक....

# ७३. काजुलो

किट्ट काळखाचें
काळीज.... चिरीत
एक काजुलो
पयस गेला....

तेन्ना सावन
काळोखूय
काजुल्याच्या अश्रेकान
पिसो जाला.

# ७४. म्हाका कोण्ण वळखना तेन्ना....

म्हाका कोण्ण वळखनांत
तेन्ना
म्हाकांच हांव
परकी कसो दिसपाक लागतां
आनी....
पावला.... पावलाक
म्हजीच वळख
म्हाकांच घडोवपाक
आयिल्लो खीण
सोपयतां....
म्हजेसयत.

## ७५. मुळांसकट हुमटतां तेन्ना....

हांव असो
मुळांसकट हुमटतां
तेन्ना....
खंय पडूं
कसो पडूं
चिंतपाक वगतूच नासता.
त्या खिणांत तरी
भूंय पडप
होच म्हजो धर्म आसता
कोणेय म्हणू मागीर
'हो असो पडपाचो न्हय
हाका कोणेतरी लकयला.'

# ७६. म्हजो धर्म

म्हजो धर्म
हांवेन केन्नाच बुडयला !
कित्याकतर
धर्म बुडोवप
होच हांवेन
म्हजो धर्म मानला.

पूण धर्मांद जावन
दुसऱ्याचो धर्म
हांवेन केन्नाच माडोवना
मात....
म्हजी नदर
तांकां येंव
अशें मुजरत मागलां.

## ७७. अख्खो संवसार

अख्खो संवसार पडमूर,
आनी हांव एकटोच
बरो कसों ?
काय....
म्हजेंच चिंतप चुकता ?
हांवूच पडमूर जावन
संवसार मापता ?
किदेंय आसूं
मात एक खरें
अख्खो संवसार'
अशें....
हांव म्हण्टां तेन्ना
अर्दयावयर संवसार
म्हज्या
हिसबांतूय नासता.

## ७८. नव्या सहस्रकांतूय

ह्या नव्या सहस्रकांतूय
मनीस....
आशिल्लो तेदोच आसा.
ना. ताची वाड जावंकना
उरफाटें तो
मात्सो गिड्डोच जाला
विचारानीं आनी करण्यांनी....
गिन्यानानूय
ताचीं पाकां कापल्यांत
उदरगतीचे चौपदरी मार्ग
सोडून.... ताणे
काट्यांखुट्यांची वाट धरल्या
निक्कोच तो
चिंतपाकूय लागला
पुर्वजांनी शेणयल्ली शेपडी
कशेयतरेन परती मेळोवपाक जाय.
नव्या युगांतलीं शस्त्रां
परतीं जमोवपाक जाय
नवें युग सपनेवप्यांक
येन्नाच जागोवपाक जाय.
हांव मात चिंतपाक पडलां
आमी खऱ्यांनींच
खंय पावल्यात ?

## ७९. मनीस

शेकड्यांनी वर्सा आदीं
जे धर्तरिचेर
बुध्द, जेझू, सोक्रेतीस
जल्माक आयले,
तेच धर्तरिचेर
शेंकड्यांनी वर्सां उपरांत
सादें मनीसपण आशिल्ले
मनीस
जल्मूं नये
खंय पोल जाली तर
ती धर्तरिची सासाय ?
जिणे
मनशांक देवांचे पंक्तीक बसयले
आनी हांगाचे फातर लेगीत देव जाले
तेच धर्तरिचेर....
हे मनीस ?
काय कलीयुगांतले दानव
कुशिल्ल्या सुवार्थी विचारांनी
फक्कत
घाणूच पातळावपाचो
वावर करतले?

## ८०. उतरां निरर्थाचीं

सगलेच चलतात
एक वाट
वाट मरणाची....
काळजांत मात
आशे वात
वात उपाट जगपाची....

हांवूय चलतां
तीच वाट
वाट मरणाची....
म्हज्याय काळजांत
आशे वात
वात नांवारुपान उरपाची....

सगलेच चलतात
एक वाट
वाट सुवार्थाची....
जगप.... उरप....
समान उतरां
उतरां निरर्थाचीं....

## ८१. रिणां

तुज्या हिसपान
तुवेंन
म्हजीं सगळीं रिणां पावयलीं.
तुजे भाशेक वाचा नासूं....
नदरेंतल्या प्रस्नांत कितें लिपलां
तें हांव बेसबरें जाणां....
म्हजेकडल्यान तुका पावती जाय
पूण
तूं ती काळजांतल्यांन मागता ?
काय
वगीच मनाचेर चेपण हाडटा ?
पिश्या,
काळीज तोडप तितलें सोपें नासता.
काळजांत उदेल्लीं यादींचीं पानां
पर्थून एक फावट चाळून पळय
नदरेच्या मळबांत घोळोवन पळय
ह्या दर्यांतल्यांन तडीर सरल्यार
तुका उस्वास घेवप कुस्तार जातलें.

## ८२. तुजे बगर

काळजाचे दोळे करून
हांव
ह्या अनंत संवसारांत
पळयतां
तेन्ना थंय
तुजे बगर
आनीक कांयच नासता.

## ८३. देग

म्हजेय जिणेक एक देग आसा
दर्याक आसता तशीच !
दीस - रात खदखदतां....
भितरल्ले भीतर घुसमळटां
आनी उपरांत
अचकीत केन्नाय देगेर येवन
पुराय मन रितें करतां....
काळीजूच उमथितां !

## ८४. याद आसूंदी !

हांव वतलों....
संवसाराचो निरोप घेवन
तेन्ना.... म्हजेफाटल्यान
एकतरी दिवो पेटत उरतलो....!
तो काळखांत
आपूण जळून हेरांक उजवाड दितलो
चुकिल्ल्याक वाट दाखयतलो....
शेणिल्ल्याक सोदतलो....
मस्त्यांक पेटयतलो....
आडांग्यांक लासतलो....
याद आसूंदी !
तो दुसरो - तिसरो कोण नासून
फुडल्या जल्मांतलो
हांवच आसतलो !

# ८५. तिन्हसांज

तेन्ना....
पासयेक वचपाक
तिन्हसांज जावपाची वाट पळयतालों....
पूण तिन्हसांज....
भरतेवेलें ल्हार जावन
केन्ना आयलीच ना.
आतां
जिविताचीच तिन्हसांज जाल्या
पासयेची ओड केन्नाच मेल्या
तरीय हो दर्या कित्याक फोफेता ?

# ८६. तीन पार

सकाळ....
भुतकाळांत पघळून गेली
दनपार....
ल्हाय कशी न्हिवली
आता तिन्हसांजचे कात्रींत
मन फुगार जालां !

सकाळ....
पिसोळीं - बिरमुटांफाटल्यान पासार जाली
दनपार....
सुकण्यांफाटल्यान ल्हवपीक शिळोणी जाली
आतां तिन्हसांज....
भरतेवेलो दर्या जावन फोफेता !

सकाळ....
अशीच गेली
दनपार....
वघडायली
आतां तिन्हसांज
सपनांक दुखांनीं न्हाणयता !

## ८७. दर्याचें मन

तारवां
दर्याचें काळीज चिरीत
आलतड आनी
पलतडूय गांडांत.... !
दर्याचें मन मात धा कडेन....
काळजांत जायतें आसता
पूण
मोन्यानीं सगळें सोसून
ताका
आवंडे घोंटचे पडटात.

## ८८. मोड

दर्या तसो शांत आसता !
पूण
हीं तारवांच केन्नाय
ताच्या काळजांत
मोड हाडटात
आनी
तो पिसाळटा....
केन्ना केन्नाय शितिदाभायरूय वता....
मोड निवळटा
तेन्ना तो परतोय शांत दिसता....
पूण मजगतीं....
जायती मोडतोड जाल्ली आसता.
विसरूंक जांवची ना अशी !

## ८९. मरणाची वाट

मरणाची वाट चलतना....
फाटल्यान
पावलांच्यो खुणो
उरच्यो न्हय म्हूण
खूब जतनाय घेतां !
पूण....
त्यो कळटां.... नकळटां
उरताच
आनी वगीच भास जाता
फाटल्यान
पावलार पावल दवरीत
कोण येता काय कितें ?

## १०. कोल्ली

भावार्थी बाबडे....
दुख्खाच्या खातोडांत लेगीत
आर्त सुरांत
देवाचीं भजनां गायत
देव.... देव करीत रावले....
कोल्ली मात
भरिल्ल्या पोटार धेंकर दीत
देवाचीं फकाणां करीत
गिरेस्तकायेच्यो तेंगश्यो हुपीत
खंयचे खंय पावले.



**भालचंद्र गांवकार**

सहयोगी प्राध्यापक
रोजरी वाणिज्य आनी कला महाविद्यालय,
नावेलीं, साश्टी - गोंय.

कोंकणी साहित्याच्या दालनांत वावर....

**कविता झेले**

- आडवणांतले उले (१९९१)
- यादिंचे देगेर (२००१)
- थाव (२००५)
- वावझड (२०१८)

**कथा झेले**

- अंदले उस्वास (२००१)
- दोंगराचे आवंडे (२००३)
- गांव नाशिल्ली वाट (२००७)

**आत्मचरित्र**

- तडवीं ल्हारां हुपतानां..... (२०१८)

**हेर पुस्तकां**

- कोंकणी भाशाविज्ञान (१९९३)
- साहित्य : एक भासाभास (१९९८)

**संपादीत**

- काव्यफुल्लां (कविता संग्रह) (२००८)
- प्रातिनिधीक कथांझेलो (कथा संग्रह) (२०१४)

**पुरस्कार**

- कोंकणी भाशा मंडळ पुरस्कार (१९९१)
- कला अकादेमी राज्य पुरस्कार (२००१)
- कोंकणी भाशा मंडळ पुरस्कार (२००१)
- कथा इनाम, नवी दिल्ली (२००३)
- डॉ. टी. एम. ए. पै. फांवडेशन पुरस्कार (२००५)